ಯೇ ಜೆಜು ತುಂ ವೆಗಿಂ ಯೇ
ತೆಂಪ್ಲಾಂ ನಿತಳ್ ಕರುಂಕ್ ಯೇ
ಫಟ್ಕಿರ್ಯಾ ಪ್ರವಾದಿಂಕ್ ಧಾಂವ್ಡಾಂವ್ಕ್
ಫಾತ್ರ್ಯಾಂಕ್ ಪಾತ್ಕ್ಯಾಂಕ್ ಧುಂವ್ಕ್ ತುಂ ಯೇ

ಜುದಾಸ್ ಪಳೆ ಉಬೊ ಜಾಲಾ
ಜೆರ್ಬಾಂದ್ ತುಕಾ ತಯಾರ್ ಕೆಲಾ
ಕಾಂಟ್ಯಾಮುಕುಟ್ ವಿಣುನ್ ದವರ್‍ಲಾ
ಪರತ್ ಖುರಿಸ್ ತಯಾರ್ ಕೆಲಾ

ಯೇ ಜೆಜು ತುಂ ವೆಗಿಂ ಯೇ
ಕಾಳ್ಜಾಂ ಮನಾಂ ಜಿಕೊಂಕ್ ತುಂ ಯೇ
ಮನಿಸ್ ಹಾಂಗಾ ಮನ್ಯಾಂಕ್ ಖಾತಾ
ಮನ್ಯಾಂಕ್ ಮನಿಸ್ ಕರುಂಕ್ ತುಂ ಯೇ

# ಅಂದ್ಲೆ

ತೊ ಪಳೆ ಅರ್ದೊ ನಾಗ್ಡೊ ಭಿಕಾರ್
ದೊಳೆ ನಾತ್‌ಲ್ಲೊ ಅಂದ್ಲೊ
ಕುಡ್ಡೊ, ಕೆಪ್ಪೊ, ಲಾಂಗ್ಡೊ
ಘಾಯ್ರ್ ಬಸ್ತಾ, ಉಟ್ತಾ, ಲೊಳ್ತಾ
ಘೆವ್ನ್ ಹಾತಿಂ ಕಟ್ಟಿ ದಾಂಡೊ
ಆಸೊನ್ ಇತ್ಲೊ ನರ್ ಮನಿಸ್
ತಾಚೆಭಂವಾರಿಂ ಮಾತ್ ಭರ್ಲ್ಯಾತ್
ಫಕತ್ ಮೂಸ್

ಹೆ ಅಂದ್ಲೆ ಕರ್ಮಾಚೆ
ಹೆ ಅಂದ್ಲೆ ಧರ್ಮಾಚೆ
ಹೆ ಪೊಳ್ಕುರೆ ಭಿಂವ್ಕುರೆ
ಹೆರಾಂಕ್ ನಾಗವ್ನ್ ದೆವಾಕ್ ದಿತೆಲೆ
ಹೆ ವಾಂಟೆ ಕರ್ತೆಲೆ
ಹೆ ಕಾಂಟೆ ಭರ್ತೆಲೆ
ಹೆ ಅಂದ್ಲೆ ಮನ್ಶ್ಯಾಪಣಾಚೆ
ಹೆ ಮನಿಸ್ ಪಲ್ಟೊಡ್ಚೆ

ಹಾಂವ್ ಪಳಿ ಭಿತರ್ ಆಸಾಂ
ಕುಡ್ಡ್ಯಾ ಸ್ಥಿಂಯ್, ಕೆಪ್ಪ್ಯಾ ಸ್ಥಿಂಯ್
ಲಾಂಗ್ಡ್ಯಾ ಸ್ಥಿಂಯ್, ಘೆರೊಯ್ ಸ್ಥಿಂಯ್
ಉಬೊ ಜಾಲೊಂ ತರ್ ಪುರೊ
ದುಡ್ವಾಚಿ ರಾಸ್ ಪೊತ್ತಾ ಮನಿಸ್
ಕಟ್ಟಿ ದಾಂಡೊ ಕಿತ್ಯಾಕ್
ಜೊಲ್ವಾಕ್ ಪ್ಲುಜ್ಯಾ ಜೊಪಂಯ್ಲಾ
ಏಕ್ ಲ್ಹಾನ್ ಮಿರಿಸ್

# ಕಟ್‌ಪುತ್ಳಿ

ಬೊಂಬಿಂ ಪಳೆಯಾಂ ಆಮಿ, ಬೊಂಬ್ಯಾಂಸವೆಂ ನಾಚ್ ಪಳೆಯಾಂ
ಗಾಂವಾಂತ್ ಫೆಸ್ತ್ ಪರಬ್ ಆತಾಂ, ಖೆಟಿಂತ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾಂಕ್ ಸೊಧಿಯಾಂ
ರಂಗ್‌ಮಂಚ್ ತಯಾರ್ ಕೆಲಾ, ಮ್ಹಾನ್ ಸಯ್ರ್ಯಾಂಕ್ ಕದೆಲಾಂ ದಿಲ್ಯಾಂತ್
ಅತ್ರೆಗ್ ಅಕ್ಲಾಸಾಚಿ ಬೊಬ್ ಜಾಲ್ಯಾ, ಪಾರ್ವ್ಯೊಳ್ ಜಣಾಂನಿ ಶಿಳೊಣ್ ಘಾಲ್ಯಾ
ನಾಚ್ ಆತಾಂ ಸುರು ಜಾಲಾ

ದಿವ್ಯಾಂಚೊ ರಂಗ್ ಬದಲ್ತಾಂ, ಕಾನಾರ್ ಸಂಗೀತ್ ಆದಾಳ್ತಾಂ
ವಯ್ಲ್ಯಾ ದಾಗ್ಯಾಂನಿ ಖೆಳಯ್ತಾಂ, ಬೊಂಬಿಂ ಮೊನಿಂ ಜಾವುನ್
ಉಲಯ್ತಾತ್ ಗಾಯ್ತಾತ್ ನಾಚ್ತಾತ್, ಕೊಣ್ ಹಾಸೊಂ ಕೊಣ್ ರಡೊಂ
ಪಿಡಾ ಆಸೊಂ ಶಿಡಾ ಉದೆಂವ್, ವಯ್ಲ್ಯಾ ಬರೆಂ ನಾಚಯ್ತಾತ್
ಬೊಂಬ್ಯಾನಾಚ್ ಚಾಲುನ್ ಆಸೊಂ

ರಂಗ್‌ಮಂಚ್ ಸಜ್ಲಾ ಪಳೆ, ಮಿಣ್ಮಿಣ್ಚೆ ದಿವೆ ಕಾಜುಲೆ
ಸಂಗೀತಾ ನಾದಾನ್ ಬೆಂಡ್ ವಾಜ್ವಾರ್, ಪರ್ದ್ಯೊ ವಯ್ರ್ ಗೆಲ್ಯೊಚ್
ಆಯ್ಲಿಂ ಪಳೆ ಬೊಂಬಿಂ, ತಕ್ಲಿ ಹಾತ್ ವಯ್ರ್-ಸಕಯ್ಲ್
ತಿಶಿನ್-ಹಿಶಿನ್ ಹಾಲ್ತಾ-ಧಲ್ತಾ, ಜಿತ್ಲ್ಯೊ ತಾಳಿಯೊ ತಿತ್ಲೊ ನಾಚ್
ಕೊಣ್ ಪಿಕೊಂ ಕೊಣ್ ಥಕೊಂ, ಬೊಂಬಿಂ ಮಾತ್ ನಾಚೊಂ

ಬೊಂಬ್ಯಾಂಕ್ ಜಿರ್ವಣ್ ನಾ, ನಾ ತಾಂಕಾ ಭುಕ್
ವಸ್ತುರ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಸಿಂಗಾರ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್? ತಾಂಕಾಂ ನಾ ಲಜ್
ವಯ್ಲ್ಯಾ ದಾಗೆ ಸಡಿಲ್ ಜಾತಾಂ, ಧರ್ಣಿರ್ ಪಡ್ತಾ ಉಸ್ವಾಸ್ ಸೊಡ್ತಾ
ಬೊಂಬ್ಯಾನಾಚ್ ಚಾಲುಚ್ ಆಸ್ತಾ, ಏಕ್ ಪಡ್ತಾಚ್ ಆನ್ಯೇಕ್ ಯೆತಾ
ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಹೊಚ್ ಬೊಂಬ್ಯಾಂಚೊ ಖೆಳ್



वेता:

ाल्लीं

• सतां आनी ... र

2004 थाव्न च...

चालु आसा ...

• तारां आनी ...

www.mangal...

• कवितादाय्ज: ...

• कथादाय्ज: w...

❖ साहितिक व... र्सा

[1990-92] • 'अ...

[1990-92] • 'उ...

• 'झर' अजेकार...

• 'कुळवार्चें दाय्ज...

संपादक जाव्न वा...

गव्रव संपादक जा...

साय्टाच्या कोंकणी ...

• www.maaibha...

• 'नवरतन' अखिल...

वुकाच्या संपादकीय ... वाव्र [2004].

❖ हेर साहितिक वाव्र: • 'अखिल भारतीय वरव्यांचो एक्तार, कुवेय्ट' हाचो कार्यकारी समितिचो सांदो • 'कोंकणी कुळवार कुवेय्ट' हाचो स्थापक सांदो. ❖ 'कोंकणी अभियान समिती, कुवेय्ट'चो संयोजक [2003] • 'अखिल भारतीय वरव्यांचो एक्तार - कुवेय्ट' हांच्या कविगोश्टिचें अध्यक्शपण चलय्लां [2004]

❖ इंग्लिश कविता: 12

• www.poetry.com आनी www.ndtv.com साय्टांनी फाय्स जाल्यांत.

❖ प्रकाशन: • आशावादी प्रकाशन http://www.ashawadi.itgo.com

Katputhli – an anthology of Konkanni poems in Kannada and Devnagari scripts by Valley Quadras. This anthology is published by Valley Quadras for **ASHAWADI PRAKASHAN,** Mangalore, India.



First Edition: 2004

Cover : **ASHAWADI**
DTP : Mithr@Saangathi Media, Mangalore –2
Printed at : Prasad Printers, Mangalore.

— Sales —

Victor Mathias (Vitori Karkal)
Saangathi Media,
#23, Emporium Complex,
Kankanady, Mangalore - 2.
Call: 0824 5513871
Cell: 98452 09374
E-mail: vithori@hotmail.com

Valley Quadras
M.H.Al-Shaya Co.W.L.L.
P.O.Box 181, Safat 13002,
Kuwait A.G.
Call: 00965 2242287
Cell: 00 965 6266875
E-mail: valleyq@sify.com



Price : Rs. 50/-



# अर्पण



संसारांत थरावळ जिनोसाचे मनिस जियेतात. वेवेग्ळया चिंत्पाचे, वेवेग्ळया सभावाचे. हांगासर जात-कात म्हळ्ळो भेद ना, भास-देस म्हळ्ळो प्रभेध ना. देकुनंच संसार चल्ता.

ह्या थरावळ जिनोसांच्या मन्शांचो उल्लेक कर्चो तर - थोडे आसत आप्लीं कामां आण्णावर्वी जाल्लीं तीं संसाराक कळयतात. दाक्लो - ऐक बरव्पी आप्ल्ये क्रतियेक संसाराक दाकय्ताना ती आण्णची म्हण पाचार्ता; हें वाज्बिच म्हण्येता, ऐक कलाकार आप्ल्ये प्रतिभेक संसाराक दाकय्ताना ती कला आण्णाची म्हण दाकंव्व्यांत कांय वाय्ट ना.

आसात थोडे जे मेजावय्लें केळें काड्न पिल्याद जोड्चे. म्हळ्यार कामां करंव्वें हेरांकर्नां, पुण नांव जोड्चें आण्णान. भोवशा चड्ताव संघसंस्थ्यांनी हेच भरोन आसात.

पुण आसात असलेय - जे फकत कामां मात कर्तात. शिवाय तीं कामां आपणे केल्लीं म्हण धांग्रो मारिनांत. तांचो इरादो फकत कामाचो शिवाय बोल्तो न्हय. तांचिं कामां जिबेंनी न्हय, बगार कर्नेंनी मात.

ह्या तीन प्रकारांत तिस्क्र्या प्रकारार आस्च्या मानेस्त नवीन सिकेर, ब्रह्मावर हाणें, पाट्ल्या अडेज वर्सां थाव्न कोंक्णोचो वाव्र कर्न म्हज्या काळ्जामनाक पिश्यार घालां. आनी प्रायेन तो म्हज्याकी ल्हान तर कितें जालें, ताचेलागीं आस्चो कोंकणी मोग पळेव्न सम्जाल्यार खरेंच ताका नमान करिजाय म्हळ्ळें म्हजें चिंताप.

मायभास डोटकोम साय्टारुपार कोंकणी वेबसाय्टाच्या चरीत्रेंत नवेसांव हाडल्ल्या मानेस्त नवीन सिकेर, ब्रह्मावर हाका ही म्हजी कृती मायामोगान आनी व्हडा अभिमानान अर्पण कर्तां.

**-वल्ली क्वाड्रस, अजेकार**

# देव बरें करूं

## मुखेल पोशाक


फेलिक्स लोबो, खतार


पास्कल पिंटो, कुवैट


फ्रेड्रिक क्वाड्रस, कुवैट

## पात्रोन

- वेल्लेविशन डोटकोम (www.bellevision.com)
- क्वीनी मेंडोन्सा आनी कुटाम, अमेरिका
- शांती डिकुन्हा आनी बावा आर्सटिन जोवाना डिकुन्हा, दुबाइ
- जुलीयेट डिसोजा आनी कुटाम, कुवैट
- राकेश शेट्टी आनी कुटाम, लंडान, यु.के.

## पोशक

- मायभास डोटकोम (www.maaibhaas.com)
- मेंगलोरीयन डोटकोम (www.mangalorean.com)
- जेम्मा पडील आनी कुटाम
- किशू बार्कूर आनी कुटाम

## सादे पोशक

❖ आर्सटिन प्रभु आनी कुटाम, अमेरिका ❖ अनिल मिनेजस आनी कुटाम, कुवैट ❖ नविन डिसोजा आनी कुटाम, कुवैट ❖ मार्क डेनिस डिसोजा आनी कुटाम, दुबाइ ❖ मेल्विन रोड्रिगस आनी कुटाम, दुबाइ
❖ रोबर्ट फेर्नांडिस आनी कुटाम, दुबाइ ❖ रोनाल्ड ओलिवेरा आनी कुटाम, दुबाइ ❖ म्याक्सिम सेराबो आनी कुटाम, शिर्वा, दुबाइ
❖ फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्सिया आनी कुटाम, दुबाइ
❖ सुनिल फेर्नांडिस आनी कुटाम, दुबाइ
❖ लारेन्स कुवेल्लो आनी कुटाम, मुंबाइ



पोशाकांच्या चड्तिक विवरा खातिर www.ashawadi.itgo.com

## वाचुंक सुरु करचे आदीं

# कुली न्हय मालिंची गर्ज

आय्चो काळच यांत्रिक काळ जालास्तां, ह्या युगाक कंप्यूटर युग म्हण्ता विग्यान. आनी मन्शांनी कर्चीं चड्ताव कामां हीं यंत्रां कर्तात आनी हाका आमी प्रगती म्हण वोलाय्तां. तरय आजून सबार कामां तीं मन्शांवर्वीं मात साध्य शिवाय यंत्रांथाव्न न्हय.

समाजेन मन्शांक जाय्त्या प्रकारांनी मोड्लां/जोड्लां, जात-कात मात न्हय, ख्यास्त व्यास्तेन सय्त. देकुनंच शिंव्कार, लुंव्कार, भाट्कार, कामार, चामादोर, बेंडकार असल्या वोलांनी कोलाय्लां. हीं मोड/जोड फकत्त व्यास्तेक मात सीमित जाव्न नास्ताना ख्यास्तेक सय्त लागु केल्या, देकुन इञ्नेर, कुञ्नेर, बोट्लेर, दोतोर, वकिलां सवें कुली आनी माली म्हळ्ळेंय प्रभेद आसा केल्यात मात न्हय एकेकाक एकेक अंतस्त, मान, स्थान म्हणोन नम्यार्ला. आनी ह्या अंतस्थाप्रकार कुली या माली दोन प्रकार हेर सक्डांच्याकी सकय्ल आसात, आनी हांचीं कामां करुंक एदोळ पर्यांत कसलिंच यंत्रां उदेंव्क नांत.

काम जांव तें खोंड्चें या बेंड्चें, लुंव्चें या लांव्चें, व्हावंव्चें या पुरंव्चें, उकल्वें या लोटुन व्हर्चे तें जाव्नासा कुलिचें. हें काम कर्ताना कुलिक ऐक निद्रिश्ट म्हळ्ळो शेवोट आस्ता. आनी ताचेभाय्र तो कितेंच चिंतिना. एका उत्रान सांग्चें तर कुलिचें काम चडावत जाव्न गतिगट्टाचेंच. जशें फोंड खोंड्च्याक 'इत्लोच गूंड' खोंडुंक सांगाल्ल्यान ताचो शेवोट जांव्क पाव्ला सांगल्ले तित्लो गूंड फोंड काड्चो मात शिवाय त्या फोंडांत कित्याक? या कोणाक पुर्तात? म्हळ्ळें सम्जोंचो न्हय.

पुण मालिचो पात्र वेग्ळोच्च आस्ता. तो कुली मात न्हय, एका भागिचो रक्वाली, पोस कर्पी, जतन कर्पी. हाका आप्लया भागिंत आस्च्या हर्येका फुलां झाडाची फिकिराय आसा, तो उदक घालुंकय जाणा, बेंदर काडुंकय जाणां. कांटे काडुंकय जाणा, गर्ज पड्ली तर फांटे मोडुंकय जाणा.

आय्लेवार कोंकणी कविताशेतांत सुर्याचीं किर्णां फांकोंक लाग्ल्यांत आनी दिसानदीस हांगासर वर्सांनी आसल्ली साव्ळी मायाग जातेच्च आसा. तरय ऐक दुर्भागपणाची संगत आजून डेमास्कसाच्या ताल्वारेपरीं उम्काळोन आसा ती खंय्चिगी म्हळयार आम्च्या चडावत पत्रांक कविते वीश्यांत आस्चो तात्सार आनी उब्गोण. ऐक कविता कशी आसाजाय? कसल्या प्रकारार आसाजाय? कसल्या चिंत्पाची आसाजाय? हे विशिं नियाळ कर्चे साधन करुंक ताणीकर्चं शेळेंपण, ल्हान भुग्यान आटिच्या अमासेचें वकात पियेंव्क कर्च्या शेळेपणाकय लजेक घाल्वें. आळशी चिंत्पाच्यांक मेळ्चें भोव सलीस नीब. "वाच्यांक कविता रुचनांत/सम्जनांत". तरायी आजून पर्यांत कोणेंयी पुनेगेल्ल्यान हाच्याकी मुकार चिंतुंक प्रेतन केल्लेंच दिसोन येना. आजकाल्च्या प्रगतेच्या संसारांत कितेंच रोकेट विग्यान (Rocket Science) ना, आम्ची मत संसारांत नातल्ल्या संग्तिंक नियाळुंक आनी सम्जोंक सक्ता, चंद्राक उडोंक सक्ता, अशें आस्तां एका हिंदी सांग्णेचो उल्लेक

कर्चो तर; "दुनिया जुक्तीहे, लेकिन जुकानेवाला चाहिये" (संसार बाग्गता, पुण बाग्गयतलो आस्ल्यार). पुण कविता सम्जोंक मात आमी सकानांव आनी हाका कारण इत्लेंच, आम्कांच कवितेंचेर आस्चें शेळेंपण. तशें आस्तां फकत वाच्यांक मात कशें बोट जोक्वें?

ह्ये संदिग्ध परिगतेंत ह्या आसोराक कायाम करुंक पेचाड्च्या थोड्या कविंच्ये म्हिनतेक शेळें उदक पडानास्वेपरीं जतन सांबाळचें भोव कश्टांचें तें खंडित. पुण अशें जांव्क सोडिनाये, "कविता" म्हळ्ळो प्रकार खंडित जाव्न संसाराच्या खंय्च्या भाशेच्या साहित्यांत आस्वो ग्रेस्त प्रकार जाव्नास्तां, फकत कोंकणी शेतांत ही अलक्शा नाका. कोंकणी कवितेंक अनिकय ग्रेस्त करिजाय, कोंकणी कविते शेतांत अनिकय कविंनी उदेजाय, कोंकणी शेतांत अनिकयी मालिंनी येजाय. तवळ मात कोंकणी कविते शेतांत अनिकय कविंनी उदेजाय, कोंकणी शेतांत अनिकयि मालिंनी येजय. तवळ मात कोंकणी सोंर्गो कुपांचेर चडंव्क आमी सक्तेल्यांव. न्हय तर आमी फकत सण्णांत खेळीं खांव्क मात फावों.

म्हजो फुड्लद कवितापुंजो 'चार मुखां' वाचुन एक्ल्या दोगांनी म्हाका हें सवाल केल्लेंय आसा "तुं कसो अशें शीदा आसा तशें बरय्ताय?" हावें तांकां दिल्ली जापय शीदाच आसल्ली "वांक्डें सांग्ची विद्या हांव शिकोंक ना". तर ऐक सवाल आजून म्हज्या मतिंत आस्वें तें उग्डापें करुंक आशेतां;

"तर कविता आपापीं कशी उदेता?

जाप भोव संपी; एकेका मन्शान देख्वी, चिंत्वी, सम्जोंन्वी, रीत हाका कारण जाव्येत? संसारांत आजकाल मेटां-मेटांनी असल्यो संग्ती भरोन गेल्यातकी, सबार पाव्टीं आम्व्येच जिण्येंत, थोडेपाव्टीं आम्च्या वळिकंच्यां मन्श्यां थंय घडोन आस्व्यो संग्ती पळेताना कशें आप्ल्या अभिवेक्तेक दांबुन धरुं म्हळ्ळें कळाना. धर धर म्हण उटोन दिस्चे हिपोक्रेत, शेळियांच्या, गाग्रांच्या वेसार बिंदास भोंव्वे बोल्पे कित्तुन पर्यांत ह्या संसाराक फटय्तित? त्या शिवाय असल्यांकच समाज वळ्कता; हें सर्व पळेताना ह्या बाजारी जाल्ले संसारी वेवस्तेचेर कठीण तात्सार आनी कांठाळो भरोन येताना, मतिंत उदेव्न आयिल्लीं ल्हारांयी क्रोधान पेटतात आनी जेन्नां उदेल्लीं थोडीं कविता जिवीं जिविंच जावुन रग्ताळो घाम घामेतात. अशें आस्तां दिसानदीस मन्शाक वेळघडिच जिण्येचो संकीर्ण मत्लब सम्जय्ता, आनी तो मत्लब होच्च "संसार एक रंगमंच" आनी आमी सर्व हांत्ल्यो कटपुत्ल्यो या बोंबीं. कितें बरें कितें वाय्ट म्हळ्ळें एदोळच कोणेंगी निचेव करुन जालांस्तां आम्वो पात्र फकत नाचयिल्लेपरीं नास्वो मात.

म्हज्या ह्या कवितेपुंज्याविशीं तुजो उग्तो अभिप्राय खंडित जाव्न म्हज्या फुड्ल्या मेटांनी दिव्टी जातेली म्हळ्ळो म्हजो आंवड.

भोव खाल्तेपणीं,

**-वल्ली क्वाड्रस, अजेकार**



# नवीं प्रेरणां, नवी सुवात.

विग्यानान प्रगती म्हण्च्या कंप्यूटर युगांत मन्श्यान कर्चीं चड्ताव कामां यंत्रांनीं केल्यारी सबार कामां मन्श्यावर्विं मात करुंक साध्य म्हण्ताना, तांतु कवितायी आर्‍ली. आनी कविता मन्श्यावर्वीं मात करुंक साध्य म्हण्ताना ती खंडितयी काळ्जाक आपड्तात. कोण कविता हेर खंच्च्यायी कारणाक लागोन आनी कसल्यायी नमुन्यार वाचुंदी, अध्यपन करुंदी - हांव मात त्या काळाच्या चारित्रिक आनी सामाजिक संधर्बाक सांगाता दवर्न वाच्तां. आनी बोवशा म्हजें हें हिसोप कवी बाब वल्ली क्वाड्रासाकी खाय्स जाता.

*चरित्रेचीं पानां उस्तिलीं*
*एका शेक्ड्याचीं*
*धा धाक्डयाचीं*
*ते दीसय अशेच आसल्ले*
*भुकीं थोडीं नाग्डीं*
*गांवांत लास्तालीं*
*घरां, मनां, काळ्जां*
*देवाचो, धर्माचो धंदो*
*तेद्नांय चल्तालो*
*सक्कड तशेंच आसा*
*पोर्चें, काल्चे आय्चेपरीं*
*...आज!* (आज)




म्हळ्यार ... कंप्यूटरां अय्लारी, प्रगती जाल्यारी, कितेंय बद्लोंक ना? वा हो अन्येका नमुनेचो निराशवाद? निश्टुरपणी सांग्चें तर, कविता विकुन सय्त रायांच्या दर्बारांनी जियेल्ले आसात. फकत तांका होगळ्सुंक म्हणोन रायांनी तांच्या आस्तानांनी कविंचो हिंड पोसुन दवरल्ले दाक्ले आसात. ह्या देशाच्या चरित्रेंत जाव्न गेल्लीं म्हाकाव्यां आनी तांल्ली रायांची वाखण्णिच हाका साक्स. दुड्वाक आनी अधिकाराक कितेंय

मोलाक घेंव्ची तांक आसा म्हण जालें. मागिर ती बंड्वाळशाही समाज वेवस्तेन विक्र्याक मेळचें ऐक सरक म्हण लेक्वी म्हन्श्या वाव्टच कित्याक आसोनोजो? देवाच्या आनी अधिकाराच्या दबावान घरां, मनां, काळजां, आनी गांवाक गांवच्च लास्ताना... पोर्चे, काल्वे, आय्चे परीं...

*हो बजार मन्शांचो*
*हांगा सक्कड मेळ्ता*
*मोगोर मास्ळ्यो*
*कासाप्पी शेळियो*
*बोक्रे गाय्रां*
*जात कात ऐक नीब मात*
*काप्चेय आसात लुंव्चेय आसात*
*खातर्चेय आसात सोवुर्चेय आसात*
*गरीय आसा जाळय आसात*
*कोन्शांत गांय्दोळय*
*कोणाक आनी कितें जाय?*
*बाप्पु, माव्श्यो, पुत्ले, धुव्ड्यो*
*बाब, बायो, दाट्टु, वोन्यो*
*पोदोर्न, मोदोर्न्यो, कुंपार, कुमाद्रयो*
*पिल्याद, साड्डु, पागुर, सासु*
*आवय, बापुय सोड्न सक्कड आसा हांगा*
*कोण सांग्ता संबंध मेळानांत?* **(बजार)**

मन्श्या संबंध सय्त मोलाक मेळचे - दुडु आनी दुड्वा केंद्रित बजार वेवस्तेंत मात. मोलाक घेतल्ल्या उप्रांत कितें जाता?

*दिव्यांचो रंग बदल्तां, कानार संगीत आदाळ्तां,*
*वय्ले दाग्यांनी खेळय्तां, बोंबीं मोनी जावुन,* **(कटपुत्ळी)**

मागिर सर्व कटपुत्ळय मात. ना भुक, ना लज, ना जिर्वण, उत्रां सयत. आनी ही परिगत केवल आय्ची मात?

*बोंब्यांनाच चालुच आस्ता, ऐक पड्तच अन्येक येता*
*कीत्याक होच बोंब्यांचो खेळ,* **(कटपुत्ळी)**

हीच इमाज आनी रूप आज कवितेचो नायकयी आम्कां दिता.

हो संसार ऐक रंग मंच आनी आमी सर्व तांत्ले कटपुत्ळयो म्हण्चें रम्य पारंपरिक चिंतप म्हाकवी शेक्स पियरच्या काळाचें. त्येच पुरोहित वर्गान आप्ल्या तेंपार खास्गी हिता खातिर आसलें ऐक रम्य चिंतप घड्लें आनी तें देवाच्या गोम्ट्याक बांधुन सोड्लेंकी कोणेयी सवाल करिनाशें. सर्व पद्वेदार देव खेळ्यताना नाचानास्तां रावोंक जाता? त्या काळाचे कवी नाटकिस्त सय्त रायांचे विरोध म्हण्जे वेवस्ते विरोध आवाज काडिनातल्ले. मन्श्याच्ये सर्जन सक्तेक सय्त मोलाक घेत्लेल्या वा दांबून दवर्ल्येल्या समाज वेवस्तेंत शोषण, लूटमार नास्तां रावात?

*वय्ले दग्यांनी खेळ्यतां, बोंबीं मोनी जावुन*
*उलय्तात, गाय्तात, नाच्तात कोण हासों, कोण रडों*
*पिडा आसों, शिडा उदेंव, उय्ले बरे नाचय्तात*
*बोंब्यांनाच चालुच्च आसों* (कटपुत्ळी)

हांगा कवितेचो नायक नितळ आनी साफ इमाज दोळ्यां मुकार उबी कर्ता. वय्ले म्हण्जे शोषक आनी बोंबीं म्हण्जे शोषित. बंड्वाळशाही समाज वेवस्तेंत शोषितांक उत्रां तरयी उणी आसात? तांच्ये पिडे शिडेक कोण लेक्ता? जे पर्यांत वय्ल्यांची मर्जी गांव्वें, नाच्चें - तांचें कर्म. आनी ह्या कर्माक सवाल उडंव्क `उत्रां' नांत. आनी हें जशें आदीं, तशें आतां आनी मुकारयि...?

*सक्कड तशेंच आसा*
*पोर्चे, काल्चे आय्चेपरीं*
*...आज!* (आज)

ह्याच देशांत वेवस्तेच्या विरोध आवाज उटयिल्ल्या तेहल्का पत्रकर्तांचीं गत कितें जाली? अधिकार आनी वेक्तिंक पराक म्हण्तेल्यांक कशीं पद्मश्रि भशण, विभूशण इनामां मेळ्ळीं?

आजयी दुड्वान आनी अधिकारान मन्श्याच्ये सर्जन सक्तेक या तर मोलाक घेत्लां वा मस्तुन घालां. आदीं कशें तशें आतांयी देव आनी ताच्या आमूर्त आनी अलक्किक तांकिचेर आप्लें आळुं शिजंव्ची बजार केंद्रित वेवस्ता - हो संसार ऐक रंग मंच आनी आमी ताच्या हातांत हांगा खेळ्च्यो कटपुत्ळयो म्हळ्ळो गोंगो दाकय्ते आसा. असलें ऐक रम्य चितंप कुशिक लोटुन कवितेच्या नायाकाच्ये दिश्टिन संसार पळय्ल्यार, जांव आज, जांव काल, जांव पोर... कटपुत्ळयो जाल्ले, जाव्नास्चे तरयी कोण? फकत

निम्न वर्गाचे मात. आनी हांकां देव जाल्लो अधिकार आनी दुडु मात. दबावाक वा दुड्वाक - तांणी तांकांच विकुन जालास्तां...

*सक्कड मेळ्ता हांगा*
*दिया आनी घेया*
*पय्शे दिया वस्तु घेया* **(बजार)**

मन्श्याची क्रियाशीलता, वांव्ट आनी सर्जन सकत सय्त मोलाक घेंव्ची असली ऐक दुश्ट तांक आस्ची बंड्वाळशाही समाज वेवस्तेक मात. देकुन असली ऐक समाज वेवस्ता मन्श्यांक सय्त सदां सरकां म्हण लेक्ता. तरयी...

*हो बजार अधुरो*
*म्हजे तुजे शिवाय* **(बजार)**

दुडु आनी बंड्वाळ केंद्रित समाज वेवस्तेंचें आन्येक दुरंत म्हळ्यार हांगा मनिस दिसा थाव्न दिसाक सर्व संबंध, सल्यत्यो आसोनी आण्णाक आपुण पर्की जाते वेता आनी शेव्टीं स्किजाय्द जाता. प्रगती म्हण्च्या आधुनिक कंप्यूटर युगांत्ल्या शहरी समाजेंत्लो मनिस आज आप्ली सर्जन सकतच विस्रोन गेलास्तां...

*नाग्डीं तीं नाग्डिंच उर्लीं*
*मान मर्याद उग्त्यान*
*विक्र्याक पड्ल्या तरय*
*आम्कां फिकिर आम्चिच*
*आम्चे भितर आमिंच आम्कां*
*पर्की जाव्न उर्ल्यांव.* **(नवें वरस)**

*बोंबी पळेयां आमी, बोंब्यां सवें नाच पळेयां*
*गांवांत फेस्त परब आतां, खेटिंत आम्कांच सोधियां* **(कटपुत्ळी)**

हांगा नायकान बांदुन दिल्लें 'गांवार फेस्त पर्बेचें' रुण्णें आनी `खेटी' ची इमाज, आनी आम्कांच आमी पर्की जाव्न उर्ल्यांव म्हण्चो चुर्चुरो पळेल्यार...

मागिर दबाजो जांव लव्किक वा दयविक तो फकत ऐक आडंबर जाव्न मात उरत. देकुन, जेजुक एका प्रास चड कवितेंनी नायक एक बळवंत इमाज जाव्न घेता. दाधोस्कायेची गजाल म्हळ्यार कवितेच्या नायकाक जेजु सोड्वण्दार न्हय दण्सल्या, गरीब, अवाज नातल्ल्या वर्गाचो प्रतिनिधी जाव्न दिस्चो.

*हांव मात आजून सोधुनासां!*
*न्हय धुंप भांगार,*
*न्हय काणिको श्रंगार,*
*हाडुं खुरिस खंय थाव्न?* **(रातिचीं सोध्नां)**

साहित, जांव कविता जांव काणी - तें समाजेक अण्कुंचें, तिद्दवुंक एक प्रेतन तरी कर्चें तसलें जाय्जे म्हण्चें हांव तरयी माद्तां. ह्या जम्यांतल्या जाय्त्या कवितेंतल्या नायकांनी तें काम केलां. कोंकणी बरव्पी, एका तेंपाची कविता, 'इंडिया ईस शायिंग' - इत्यादि. पूण आकांतवादी कविता कवितेचो नायक भावुक जाव्न, एका तर्फेन फय्सल दिताना... ताच्या इमानदारेचेच दुबाव जाता. आज संसारभर आमेरिका आनी ताच्या इश्टां राश्ट्रांनी आकांतवादाची परिभाशा सय्त थाप्ल्या. देकुन ताणीं कर्चें मात सार्कें. कित्याक विश्व संस्तो मृहण्च्या जोकरांच्या पंग्डांत तांचें बोळ्कें चल्ता. जांव इराक जांव अफ्घानिस्तान - ताणीं मन्श्या हक्कां मस्तिताना, आवाज उटानांत. उद्ल्यारी दांबुन वेतात. आंध्रांत वा कर्नाटकांतच नक्सालांचो समस्सो घेत्लो तर - तो आकांतवाद म्हण्चे तित्लो संपो? गेल्या वर्सा कार्कोळांत पोलिसांनी मारल्लीं अमायेक चेड्वां भुर्गीं - सतच नक्सलां? हेर सग्ळ्यो वाटो बंद जाताना मात मनिस बंदूक घेता.

*एक मूट माती च्यार थेंबे उदक*
*इत्लेंच पुरो म्हाका*
*ऐक स्पण्णाचें भीं आसा*
*तें पुरुन वेतां*
*भीं तें खिर्लोंदी*
*दोन कळे फुलोंदी*
*च्यार जणांक सोभोंदी*
*उप्रांत हांव वेतां* **(उग्त्या बजारांत एक विक्रो)**

असलें एक उदात्त सपण आय्च्या काळार कवितेंतलो नायक मात पळेंव्चे धय्र घेंव्क सक्ता. पूण उग्तो बजार आनी ताचेर केंद्रित वेवस्तेंत ह्या उदात्त सण्णांचें मोल तरयी कितें?

*कोणाक दुर्सों कोणाक सोडुं?*
*देवा तुकाच दुर्सतां हांव*
*तुं म्हजेर शिण्चोनांय* **(उग्त्या बजारांत एक विक्रो)**

पर्त्यान निराशावाद. कोंकणीं कविंचो हो निराशावाद म्हाका तरी सम्जाना. पूण सम्जाता तर कोंकणी मायभाशेचो मोग. पूण तो 'बारिसु कन्नड डिंडिमवा... ओ कर्नाटक हृदय शिवा...' इत्ल्याकच राव्ल्यार पुरो?

*गांवांत ऐक सर्कस आय्लां*
*नमुन्याच्यो मोन्जात्यो देंव्ल्यात*
*एकेकच सर्कस कर्तात*
*हेरां वोगीं रावोन*
*तमासो चोय्तात.* **(सर्कस)**

संसार रंग मंच आनी आमी तांत्ले कटपुत्ळ्यो म्हण्चें नायकाचें चिंताप हांगा निर्धिष्ट रूप घेता. बंड्वाळ म्हण्चो रिंग मास्तर मनिस म्हण्च्या मोन्जातिक खेळ्ता. आनी तशें खेळ्ताना, दोळ्यांक मार्ची वर्ग असमानता पळय्ल्यार...

*एक्लो नवें कल्सांव दाकय्ता*
*एक्लो आप्लो उग्तो कुलो लिपय्ता* **(सर्कस)**

जांव मुंबय्चे दंगे वा गुज्राताचे, चरित्रेचो वांटो जाव्न गेल्यात.

*हांगा पाव्स उज्याचो*
*नातात रग्तान एकामेकाच्या*
*रान गांव जाताना गांव रान जाताना*
*रुका-झाडांपरीं*
*एकामेका विस्वे सोवुर्तात*
*जाती कातिच्या दोर्या पंदा*
*मन्शापण फिंर्गता*
*हो म्हजो गांव न्हय* (**हांव हांव नय**)

*आम्च्या बाळांक रगताचो घाम*
*जल्मोंच्च्ये घड्येक राक्ता मरण*
*काळ्जा मनांत शिर्शिरे आकांत*
*हांगा जिवा अक्लासाचें रुदान* (**फोलेर**)

तरी आशा मोराना. ऐक नवी सकाळ येंव म्हण कवितेचो नायक जेजु कडे माग्ता.

*हांगा पळे मेटां मेटांनी*
*मेज्तात पळे बोटां बोटांनी*
*विकाळ वारें शेतां भाटांनी*
*संसार नित्ळांव्क तुं वेगीं ये* (**ये जेजु तुं ये**)

आर्विुली कोंकणी कविता अध्यायन केल्यार, प्रतेक थरान मंग्ळुरी, तांतुं कांय महत्वाची वाडावळ वा बद्लावण दिसोन येना. काव्याची वस्त विंचे थाव्न, शय्ली आनी प्रस्तुतेंत सय्त तेंच पारंपरिक वातावरण पळेंव्क मेळ्ता. बिल्कुल लुविस मस्करेन्हस आनी चाफ्राच्या काळा तसलें, बद्लावणेचें वा पारंपरिक चिंत्पाक पर्याय चिंताप दिता कोण्णा म्हण हांवें आशेल्ली एक पिळ्गी; मेल्विन, आंड्र्यु, जोस्सी, किशु, माव्रिस - हांणी कविता शेताक पांय दवर्ताना तयार जाल्ली म्हण्येत. पुण आज तें उमेदिचें एक ल्हान ल्हार खंय्च्या दर्यांत लिप्लां - कळाना. कानडिच्या काव्या चरित्रेंत वादाळ उटयिल्लें नव्योत्तर ल्हारांचें वारें सय्त ह्ये वाटेन वाळ्ळेंना. मन्श्या जिवाची फिंर्गोण, दण्सण, गरीबांचो आवाज - केन्नांय अम्च्या काव्याची वस्त जाल्ली ना. आतां बरंव्च्या पय्की उमेद उब्जंव्चे - एल्येर, नेल्लु, आल्वी सय्त पर्त्यान पारंपरिक चिंत्पाक वेंग्ल्यात. तांका सय्त फुलां, पिसोळिंच चड आकर्शक दिस्तात. हांची देक घेव्न बरंव्चे हेर तर्ने कवी सय्त मोगाच्या घोंटेरांनी घुस्ल्यात. हांगा दाधोस्कायेची गजाल म्हळ्यार, बाब वल्लिच्या जम्यांत एकयी मोगाची कविता ना. पूण मोगाच्यो इमाजी आसात. मोग देवा आनी मन्श्या मध्लो आनी मन्श्या मन्श्या मध्लो.

कोंक्णेंत नव्योत्तर चिंत्पाक कांय उमेद बरल्ले सग्ळे - मेल्विन, आंड्र्यू, किशू, माव्रिस - तांतांचे वाटो सोधुन गेल्यात वा म्हजेपरीं, वल्लिपरीं वास्तविक, अस्तित्ववादी संसाराक वोंद्वाल्यात. मेल्विनाची `हे रेंवेंन' वा आंड्र्यूची `बांय' कविता ह्ये वाडावळेच्यो कांय रुज्वाती. ह्या विंचव्यां आनी प्रेरणां मधेंयी मोगाच्या अमलाक वल्ली पडानास्ताना वास्तविक संसाराक आयिल्लो कवी पेर्नाळचो दिनेश कोरेया. कोंकणी काव्यांत ही एक नवी सुर्वात पळेव्न म्हजें मन तर मोराचीं पाकां बांधुन नाचोंक लाग्लां. संतोसाची गजाल म्हळ्यार आसल्या चळ्वळेंत म्हाल्घडो कवी जे.बी. मोरायस सय्त आसा.

कोंकणीं काव्याक बरे दीस येंव्दी आनी कोंकणीं कविंचें बरें जांव्दी - हें म्हजेंयी मागणें.

**-एच्चेम**

# मांडावळ

# ऐक पर्गट रुदान

बामुण हांव मास खांव्कय तयार
कशटां नश्टार तुंच म्हजो अधार
दुर्बोळ जिणे म्हजें तूं कर साकार
आव्क हिका फावो कर हजारांचें हजार

आज पळे बाळांक हिच्या पड्ल्या विसर
वय्ल्या वर्गाच्ये जिण्येंत तांच्या हिच ससार
वळोक पाळोक नातल्ल्या तोंडां समोर
हिचेर चोय्तां तक्लि जाता पिसांतुर

दिसानदीस बद्लोंचो हो भुताचो वेस
घड्येन बद्लोंचो मन्शांचो जिनोस
पळेव्न थक्लां, पिक्लां, साय्बा भोगोस
चिम्टिभर सत तांच्या कट्टयांत वोत

आज स्तुती अर्गां तुका मान हिचो राकोन व्हर
आज वोजें हळू नाका त्राण हिका फावो कर
तुज्ये पद्वेन जाता तर 'मोम' बद्लुन 'मांय' कर
आज तुका जीव दितां भास म्हजी जिवाळ दवर

# आज

चरित्रेचीं पानां उस्तिलीं
एका शेक्डयाचीं
धा धाक्ड्यांचीं
ते दीसय अशेच आसल्ले
भुकीं थोडीं नाग्डीं
गांवांत लास्तालीं
घरां, मनां, काळ्जां
देवाचो, धर्माचो दंधो
तेद्नांय चल्तालो
सक्कड तशेंच आसा
पोर्चे, काल्वे आय्चेपरीं
आज!

# येया म्हजी नीत करा

येया म्हजी नीत करा
तुमीं सगळया लोकांनो
काळोक पडोन वेच्या पयलें
खांदीं म्हज्या खुरिस दिया

येया तुमीं पिलात जावुन
जेबांद म्हाका तयार करा
बाराब्बासां मध्लो विंचुन
जिवो जिवोच खुर्सार मारा

कांटे गुंतुन मुकुट केला
फातोर हाडुन रास केला
बोबो घालुंक जमो आसा
तीस नाण्यांच्यो पोट्ल्यो करा

कांट्यां मुकुट विणुन जाला
कपल म्हजें राकोन आसा
तेंक्डी आळमें तयार केलां
शिर्को इल्लो सोधुन हाडा

हाडां म्हजीं मेजुन सोडा
तांक्ता जाल्यार मोडुन सोडा
काळिज ऐक आसा आतां
काळिज म्हजें चिरुन सोडा

सोड्ती घालुंक दग्लो हाडा
दग्लो म्हजो लुटुन गेला
पिंजुंक ऐक पर्दो हाडा
पर्दे ताणी पिंजुन घाल्यात

येया तुमी मोगाच्यांनो
पाटीं मुकार पळेनाकात
सदांय खुर्सार मार्च्या तुम्कां
अन्येक खुर्साक घळाय कित्याक?

# आमी निदल्ल्यांव

जल्माल्ल्या बाळश्याक सुड्काडाक धाड्तेलीं येतानांय
मोरोंक वेच्यांक जियेंव्चो अंगलाप येतानांय
रायाळ कुंवर गोट्यांत उदेतानांय
आंगार आसल्ल्या मेल्ल्यांक धांव्डाय्तानांय
धा कोड्कारां पय्किंत आस्ल्यारी
आमी जेमेतेल्यांव आमी निदल्ल्यांव

मेल्ल्या आम्कां परत जिवंत कर्तानांय
प्रद्वार केल्ल्या आम्कां भोग्सितानांय
कुड्ड्या आम्कां दोळ्यां दीश्ट दितानांय
केप्प्या कानांक आय्कोंक कर्तानांय
चोरा खातिर खुर्साय ताका म्हणोन बोबाट्तानांय
आमी जेमेतेल्यांव आमी निदल्ल्यांव

एका उम्याक तीस नाणीं घेतानांय
दुकां पुसुल्ल्याचे दोळे खोंक्तानांय
वोजें घेतल्ल्याक खुरिस चडय्तानांय
काळजांत मोग भरल्ल्याचें कड्वळ चिर्तानांय
उकल्लेल्या हातांक ख्रिळे रिगय्तानांय
आमी जेमेतेल्यांव आमी निदल्ल्यांव

जाती खाती खातिर एकामेका झुज्तानांय
आस्ती बद्का खातिर रगात चिंल्तानांय
दुडु भांगाराक आप्ल्यांचो गळो कात्तानांय
पिलात हेरोद जुदास बाराब्बासां मधेंय
ऊठ मन्शा ऊठ म्हणोन तो उलो मार्तानांय
आमी जेमेतेल्यांव आमी निदल्यांव

जेजु मोरोंकना जियेव्नासा म्हज्या पेल्या थंय
सदां ताका जेर्बांद मार्तानांय
कांट्या मुकुट नेसय्तानांय
तोंडार थिंपी उडय्तानांय
खांधार खुरिस चडय्तानांय
आमी निदोनासांव आमी निदोंक आशेतांव

# आकांतवादी

वागांच्या रागान
गायांक मार्चे
बोल्याचें हगें
शेळियांचेर दाकंव्चे
भिव्कुरे!!

# बजार

हो संसार एक बजार
   चल्ता हांगा सदांचो वेपार
ह्ये वेवस्तेंत वेपारी हजार
   चल्ता असोच बजार हो संसार
च्यार दीस हे कोणाक सास्णाचे
   वोडिंक नाडिंक हांच्या
एकच; सर्गी येम्कोंडाचे
   विकुंक बाकी ना कितेंच
हो हांगाचो सदांचो बजार
   हांगा कितें ना? सग्ळें आसा,
तर्कारी, फुलां फळां कांटेय
   वाली देंटे पाळां फांटेय
कोण सांग्ता कितेंय ना?
   हो बजार मन्शांचो
हांगा सक्कड मेळ्ता
   मोगोर मास्ळ्यो
कासाप्पी शेळियो
   बोक्रे गाय्रां
जात कात ऐक नीब मात
   काप्चेय आसात लुंव्चेय आसात
कातर्चेय आसात सोवुर्चेय आसात
   गरीय आसा जाळय आसात
कोन्शांत गांय्दोळय
   कोणाक आनी कितें जाय?

बाप्पु, मौश्यो, पुत्ल्यो, धुव्ड्यो
   बाब, बायो, दाट्टु, वोन्यो
पोदोर्न, मोदोर्न, कुंपार, कुमाद्रयो
   पिल्याद, साडु, पागुर, सासु
आवय, बापुय सोड्न सक्कड आसा हांगा
   कोण सांग्ता संबंद मेळानांत?
वेस मेळ्ता हांगा
   भास मेळ्ता हांगा
देस, कास मेळ्ता
   हुंगोंक पर्मळिक वासय
हो कांय सादो बजार न्हय
   सक्कड मेळ्ता हांगा
दिया आनी घेया
   पाय्शे दिया वस्तु घेया
मान दिया मर्याद घेया
   मन्शापण दिया जिणी घेया
भावाड्ताक दिया देवांक घेया
   हो बजारच असो
तार्लो दिया बांग्डो घेया
   ह्या बाजारांत
कित्लेंय दिया कित्लेंय घेया
   कितेंय दिया कितेंय घेया
कोणाकी दिया कोणाकी घेया
   ऐक संगत मात मनिंत दवरा
हो बजार अधुरो
   म्हजे आनी तुजे शिवाय!!



# रातिचीं सोध्नां

त्ये ऐके काळक्ये रातीं,
पुन्वेक धांव्डायिल्ल्ये आमासेच्या हातीं,
कुरकुर कर्चा किड्यां मधें,
नर मनिस जागो नातल्ले रातीं,
धर्तेन काळबाण पांगुर्लेल्ये रातीं,
सुक्णीं घोंटेकार पावल्ल्ये रातीं,
आंगाक कोंक्च्या हिंवाळे रातीं,
मन्शापणाच्या पोळापोळाच्ये रातीं,
पर्देशांत नवो जीव उदेंव्क आस्तां,
निश्टुर मन्शांच्या तिरस्कारांत,
दोळे आस्च्यानीं दोळे, कान आस्च्यानीं कान,
तोंड आस्च्यानीं तोंड धांप्ताना,
तोंड येनातल्ल्या मोन्जातीं मधें,
कुड्ड्यांक दीश्ट, केप्प्यांक कान,
मोन्यांक उलंव्क कर्चो,
रायाळ कुंवर गत नात्लेल्यापरीं,
मोन्जातीं मधें जल्मोन आय्लो,
आम्चो सोमी जेजु क्रीस्त.
धर्ती नाच्ली, मोळाब हाल्लें,
नेकेत्रां गळ्ळीं, अमास पोळ्ळी,
हांव मात आजून सोधुनासां!
न्हय धूंप भांगार,
न्हय काणिको सुंगार,
हाडुं खुरिस खंय थावुन??

# कोंकणी बरव्पी

आसातगी कोणी मोर्तेले
    या मोर्नाच्ये रिस्केर आस्लेले
आर मारल्ले या पेंकाड मोडोन पड्लेले
    कोंकणी साहित्य रचुन
आळवोन वेचे तसले?
    काल्वो काळ मांय्वो
आय्वो सुनेचो
    माय आतां मोरोंक तेंक्ताना
सुनेक खंत धुवेची
    आसातगी कोणी मोरोंक तेंकल्लीं
कविता हांव बरंव्क बस्लां
    लेकनां एदोळच आय्तीं केल्यांत
मेल्ले तक्शण खबर दिया
    तुवालोय आसा
सिस्त्रिचीं दुकांय आसात
    जीव आस्तां सुणेंय हुंगाना तर कितें
मेल्या उप्रांत आसांव निये?
    मोडें न्हाणंव्क, सजंव्क
होग्ळिक पाचारुंक, वड्डिक गांव्क
    'अमर साहिती' बिल्ले दींव्क
तुरे विणुंक, कीर्तनां गांव्क
    देवाच्ये उज्व्ये कुशिन बसंव्क
कोणी नांतगी कितें?
    नांत तर जीव आस्ताना दोळे सोड्न पळेंव्क
मोर्च्या कोंकणी भावाक
    एक थेंबो नीस सोडुंक
        जय कोंकणी!

# कुड्डो

असल्याच हिंवाळ्या दिसा
धुंव्रेन प्रितुमेक गुट्लायिल्लेवेळीं
आळवा खोल्याचेर उद्का थेंबें
पिकुळा भाशेन निस्त्रोन वेचेपरीं
दुकोळ पडल्ल्या काळजाची गड उत्राल्लें
बिर्मते ल्हार मोगाचें रूप घेव्न
काळजाक तांड्ताना
बुड्तुगोल पड्लेल्या गांवांत
परत फुलां झाडां पालेल्लेपरीं
येणें तुजें नाड्ताना
ल्हारांक उडव्न आराबायो दिंव्या
दर्यातस्ले उमाळे भरुन
तुज्या मोगाच्या उज्यांत लास्ताना
हांव मोनो जाल्लों
त्येच हिंवाळे रातिचें तुजें येणें
दोळ्यांक दिसानातल्ले फुलांत्ले कांटे
काळजाक तोप्ताना मात कळ्ळें
हो हिंवाळो दीस म्हाका
कित्याक कुड्डो कर्ता

# येया आमी कुपां धरुयां

सुर्या रायाची झळक ना
चंद्रा मामाची वळोक ना
संसाराचो लोक जेमेव्नास्ताना
येया आमी जागीं जावुंयां ।येया...।

अशिर वाटेचेर कोलु निदला
कुपां धरुंच्याक पेलो उदेला
आय्चो दीस आम्कां भोगेला
येया आमी मुकार सरुंयां ।येया...।

रुक नांत दर्यो नांत
रान खंय्चें कोणाचीं ल्हारां
खणींयो नांत धोमस नांत
दोंग्रामधें वाट करुंया । येया...।

पालंव पिंजुन सोंर्गो करिला
शिरो वोळुन दागो बांदिला
सोंर्गो उबल्लो कुपांत लिपला
येया आमी कुपां चडोयां ।येया...।

हाडां गुंतुन निसण केल्या
मायेच्या हर्द्यार उबी केल्या
कुपांनी काळबाण भर्चाधीं
येयां आमी कुपां झडव्यां ।येया...।

पेरांच्या रुकार तोरा उदेल्यांत
मोरा चालिचेर भुर्गे भुल्यात
दोळे गस्टुन उबे रावुयां
येया आमी कुपां धरुंयां ।येया...।

# एका तेंपाची कविता

एका तेंपार
ह्या भुमी वख्कुंटांत
चल्लो व्हड ऐक स्पर्धो
एका कुशिन मनिस
आन्एका कुशिन राक्कोस
मधेगात फय्सल दींव्क मोन्जात
आब्ळे स्पर्धो सुरु जालोच

आमी राक्कोस
एक्लो बोबाट घाली
एकेक्ले शेंबोर मन्शांक सरी
एका घासाक आम्च्या
मन्शांक गिळुन सोडी
एका माराक आम्च्या
धोसोस मय्दान करी
आतां सांगा; 'आसा आम्कां कोणय सरी?'

मनिस उट्ले
आमी सक्तांव सर्व, पुरो तुम्चो गर्व
आमी यंत्रां करुंक सक्तांव
अंत्रळार उबोंक सक्तांव
उदकांन उप्येंव्क सक्तांव
भुमी मात कित्याक?
भुमी भाग्र वचोंकय सक्तांव

हूं! राक्कोस हांबेले
तुमी मनिस सग्ळे किडे
अन्नाडी, भिक्कुरे, पोळ्कुरे
पाटिक सुरी तोप्तेले
तुमी आम्चे मुकार हिरा काडी
आम्च्या हातांत आय्ल्यार
एकाच हातान मोड्डुन सोडी

रावा! आय्का! उचांबळाय पुरो
आमी पळे काळिज, किडनी
दोळे, कान बद्लुंक सक्तांव
सार्स, ऐड्स पिडेक निर्नाम कर्तांव
एका बोंबान संसार हालंव्क सक्तांव
लोंक्डाक इरंव्क सक्तांव
उद्काक जिरंव्क सक्तांव

पुरो! म्हणाले राक्कोस
वय तुमी सक्तात
मेल्ल्यांक जिवे करुंक सक्तात
लिपल्लें उघडुंक
उघडल्लें लिपंव्क सक्तात
पुण मनिस जाव्न
मन्शापणार जियेंव्क सक्तात?

स्पर्धो राव्लो
मोन्जातिन तीर्प दिलें
हांव जाणा तुं जाणांय
कोण जिक्ला कोण सल्वला म्हळ्ळें
आतां म्हजो आनी तुजो स्पर्धो
कोण ऊंच कोण नीच म्हळ्ळो
तर आतां स्पर्धो सुरु जांव?

# नवें वरस

आय्लें परत नवें वरस
नवी आशा घेवुन
नव्ये दिशेक पावंव्क
बंदेंत आस्च्या आम्कां
सुट्केची दिशा दाकंव्क

काल्व्या काळार थाव्न
आमी पडिल पडल्ल्यांव
वाळवाटांत एका थेंब्या
दुकान सय्त तान बागय्ली
तान ती मिटा खण जाव्न जल्माली
आमी पोळ्कुरीं जाल्यांव
गांव सोड्न धांव्ल्यांव
रित्या हातांनी, पोटांनी
आमी राब्लेनांव
वर्सा आय्लीं
नवीं नवीं सण्णां जावुन
आम्वी सण्णां जालीं
'हेरांच्यां सण्णांक देस्वाट्चीं

झर्लीं वर्सा,
धाक्डे, शेक्डे, युगां
लिसांव आमी शिक्लेनांव
वोत्लो पाव्स, आय्लीं आव्रां, आव्रासवें

वोळोन गेलीं दुःकां सय्त
अजून आमी उट्लो नांव
वर्सांनी जीव भर्लोना
भिकारीं तीं भिकारिंच उर्लीं
भुकेल्लीं पोटां रितिंच पड्लीं
नाग्डीं तीं नाग्डिंच उर्लीं
मान मर्याद उग्त्यान
विक्र्याक पड्ल्या तरय
आम्कां फिकिर आम्चिच
आम्चे भितर आमिंच आम्कां
पर्की जाव्न उल्यांव

जाती नितिच्या नांवान
काती सोलुन
जिवे जिवेंच फोंडार पुरुन
दिसा उज्वाडाक वाती पेटय्तांव
नांवाखातिर कोणाय्की
आमी सोड्न दीनांव
कित्लेशे घड्गडे साद्ले
चक्रिवादाळां उट्लीं
आम्चेंपण कोस्ळाव्न गेलीं
आमी आजून जीव आसांव
जेमेव्न, निदोन, मोरोन
हें सुड्काड केद्ना बदलत?
केन्ना नवें वरस उदेत
मन्शांक नवी आशा न्हय
नवी दिशा न्हय
मन्शापण हाडुन?

नांवा खातिर
हेर गांव्चे कोले आय्ले
घुगी आय्ल्यो
आम्च्यांचेर नदर घाली
आम्च्यांनिंच आम्चे
विश्वे काप्ले
दोळे कोंक्ले
तिर्कुट केले
नांवाचे, मानाचे अंगलापी
उग्त्या रस्त्यार
हर्दें पेटुन चलोनास्ताना
पर्की कोले घुगी
भीर्मतेन रितेंच पाटीं गेले

आमी आजून कव्दी
आम्च्याच हड्ब्या बुदिंनी
आम्च्या आब्लेस्पणान
अशीर चिंत्पाच्या गुलामपणांत
आम्कांच आमी बंदेंत घालां
वर्सां परत येतेलीं
आशेचीं सण्णां दितेलीं
पुण आमी माज्रापरीं
दोळे धांपुन
सदांचें दूद पियेतेल्यांव
साध्य जाल्यार
नव्या वर्साकच
येनातल्लेपरीं कर्तेल्यांव

# उग्त्या बजारांत ऐक विक्रो

ह्या भुमी वख्कुटांत
ऐक मूट माती
च्यार थेंबे उदक
इत्लेंच आशेल्लें
सण्णाचें ऐक भीं लांव्क
दोन सोभित कळे फुलंव्क
च्यार जणांक सुवाद दिवुंक

ह्ये खेटिंत ह्ये मेळिंत
खंय आसा चिम्टिभर सुवात
सोधुन आस्तांनांच थोडे
तुं कोणरे
तुजो गांव तुजो देस तुजो वेस
तुजो पाय तुजी माय
तुजी जात तुजी कात
कोण कितें कशेंरे?
सवालांवय्र सवालां
म्हजेर दाळिलाग्ले

हें भुमिवख्कुंट आम्चें
आम्च्या पुर्वचांजें
म्हज्या आबाच्या आबाचें
तुं शिक्णां जाणांय तर
तुवेंय हांगा बस्येत
दंदो कर्येत
विक्र्याक कितेंय आसा तर तुवें तें विक्येत
नां तर तुकाच विक्येत

साय्बांनो सोड्वोण्दारांनो
आस्तिक येंव्कना बद्काक येंव्कना
हें भुमिवयकुंट कित्याक
हो सग्ळो संसारच तुम्चो
ऐक मूट माती च्यार थेंबे उदक
इत्लेंच पुरो म्हाका
एक सण्णाचें भीं आसा
तें पुरुन वेतां
भीं तें किर्लोंदी
दोन कळे फुलोंदी
च्यार जणांक सोभोंदी
उप्रांत हांव वेतां

तुजे कितें दोळे फुट्ल्यात?
दोळ्यांनी साय मांड्ल्या
हो उग्तो बजार तुका दिसाना
दीश्ट गम्री जाल्या? या भाड्याक दिल्या?
हांवें पळे कित्लेशे वाग माल्र्यात
कित्ले दोंगोर पर्तिल्यात
कित्ले गुडे कोस्ळाल्यात
मोळबावय्ल्या कुपांक सय्त
म्हजें नांव कळित
म्हज्या पाट्ल्यान हजार पाटलाव्दारी
तुं कोण? तुजें अस्तित्व कितें
तुजें संतान कस्लें
तुजी कुळी खंय्ची?

हांवरे पापिया
ऐक दुर्बोळ मनिस
नांव नातल्लो गांव नातल्लो
जिवाभितर च्यार जीव नातल्लो

एकच आशा म्हजी
च्यार जणांक पर्मळ दिंव्ची
दोन कळे उदेंव्क कर्ची
एक सण्णाचें भीं लांव्ची
च्यार थेंबे उद्काची
ऐक मूट मात्येची

दीश्ट म्हजी बजाराचेर गेली
मुक्ल्यान उग्तो बजार
पाट्ल्यान लुट्कारांचो व्होर
दीश्ट म्हजी कांटिंचेर
फुलां थोडीं फळां थोडीं
देवांक थोडीं फळां थोडीं
देवांक थोडीं धर्माक थोडीं
पात्कांक थोडीं प्राचिताक थोडीं
अर्लुको थोडीं बिरुदां थोडीं
सग्ळयांक विक्तात हांगां
जातिक, कातिक, वोडिक, नाडिक
लजेक, मन्शापणाक, मन्शांकय
विश्वासाक, संबंदांक, आप्ल्यांक

आतां दीश्ट म्हजी विक्तेल्यांचेर वेतां
सग्ळे आसात: फुडारी, मुकेली
सग्ळयांक एका सत्रेक हाड्चे सय्त
नांव नाका म्हळ्ळे डोंग कर्चे सय्त
पेंटार, सुटार, लोबार, थोडे नाग्डे सय्त
राय, चक्रवर्ती, वाग, बोल्पे, सिंह, रत्न
मनिस ऐक सोड्न सग्ळे आसात
जीव नात्लेले, अत्मो नात्लेले
संसार नात्लेले, मन्शापण नात्लेले
सग्ळे बसोन दंदो कर्तात
सग्ळयांकय हांकां होर्बोस

नांवाचो, कोणाच्या घामाचो
कोणाची मर्याद सोलुन, कोणाचो मान गिळुन
कोणाचीं सिंतिमेंतां पिळुन
विक्चेय आसात, घेंन्चेय आसात
दंदोच दंदो

तोंडार पळे तांच्या चंद्राचो हासो
पुन्वेच्या चंद्राक सय्त लजेर घाल्च्यो
काळ्जां मनांत्लो तांचो घात मात
येम्कोंडांत्ल्या लुसिफेराकय लजेक घाल्चो
सग्ळ्यांक तांकां आशा
नांवाची, पद्वेची, म्हय्मेची
वड्विकायेची, दुड्वाची, चेड्वांची
हांच्ये आशेच्या भोंगोस्तोळांत
बाव्डो लोक धांव्ता गांव सोड्न
मनिस लिप्ला नांव सोड्न
चुकोन तरय तांच्या पास्ळेंत पड्लो तर
सग्ळ्या हांच्या संतान कुट्माचें निस्संतान

कोणाक दुर्सों कोणाक सोडुं?
देवा तुकाच दुर्सतां हांव
तुं म्हजेर शिण्चोनांय
हांव जाणां तुं सर्व जाणाय
तुज्या भुमिवख्कुटांत हांवें
सण्णाचें भीं वोंप्चेपरिंच ना
देकुन हांवय आतां कुर्पोणो घेव्न
विकुंक बस्लां म्हज्याच सण्णाचें भीं
उडास दवरा तुमी;
हांव विक्तां म्हज्या सण्णांक
देकुन सण्णांक मात मोलाया
म्हाकाय न्यह

# कुड्डे

एका हातीं कट्टी
        आन्येकांत दांडो
बाग्वल्ल्या पाटिंतगी
        विधेयपणाच्या वेसानगी
बागोन भिक माग्चो कुड्डो
        तेंप्ला भाग्र
मेटां चड्च्या देंव्च्या
        व्होराक पळेलाग्लो
दोळे नातल्ले थोडे
        कान नातल्ले थोडे
काळिज नातल्ले थोडे
        मत नातल्ले थोडे
येताले वेताले
        वेताले येताले
देवाक भाग्र सोड्न
        थंय भिरत
खंय्च्या देवाक मेळोंक
        वेतातगाय हे कुड्डे?

# सर्कस

येयारे
सर्कस पोयारे
गांवांत ऐक सर्कस आय्लां
नमुन्याच्यो मोन्जात्यो देंव्ल्यात
एकेकच सर्कस कर्तात
हेरां वोगीं रावोन तमासो चोय्तात
उटारे बाबांनो
उटागो बायांनो
सर्कस सुरु जाला

कोण एक्लो वोजें घेवुन
एका पांयार चल्ता
कोण एका दोरियेंत्लो
निस्रोन आन्येकाक उड्ता
कोण एक्लो कुकार्यो घाल्ता
कोण एक्लो बोंब मार्ता
लोक सग्ळो ताळियो पेट्ता
येयारे
आतां सर्कस पोयारे

एक्लो पळे
गाड्वा पाटिचेर
दुस्रो पळे गारच्ये शिम्टेचेर
एक्लो बाव्डो तेंक्डेचेर,
उम्काळ्ता, उर्डाता, फिंर्गता, खर्शेता
एक्लो पळे वग्र बसोन

हास्ता आनी हासय्ता
लोक सग्ळो ताळियो पेट्ता
येयारे सर्कस पोयारे

उज्याचीं रिंगां पळे!
मांक्डा नाच पळे
वागाची तोपी मांक्डाच्या मात्यार
लांब घोव मोट्वी बाय्ल
पोयारे तमासो
उजो पेट्टां भाज्ता थोडो
कोणाचे विस्वे, कोणाचीं वस्त्रां
हुल्पता, कर्पता, लास्ता, जळटा
लोक सग्ळो ताळियो पेट्ता
येयारे सर्कस पोयारे

थोडे धांव्तात
आनी थोडे धांव्डाय्तात
हस्तिक कदेलार
मांक्डाक सय्कलार
चडय्ला, उडय्ला, पडय्ला
जादूगार पळे जादुची बोडी घेवुन
उलय्ता, फुलय्ता, फटय्ता, बनाय्ता
एक्लो नवें कल्सांव दाकय्ता
एक्लो अप्लो उग्तो कुलो लिपय्ता
लोक सग्ळो ताळियो पेट्ता
येयारे सर्कस पोयारे

कोण कोणाक लोट्टा
कोण खंय पड्ता
पोयारे तमासो
कोण उद्कांत, कोण आव्रांत
उपेता, दांबिता, बुडोता, बुडय्ता
एका पाटीं ऐक
मोन्जाती एक्टांय जाल्यात
चोंव्चो लोक ताळ्यो पेट्ता
येयारे सर्कस पोयारे

सर्कसांत तेय आसात
हेय आसात
भितर्लेय भाय्लेय
सग्ळे आसात
नाच्तात, हास्तात, तास्तात, वाच्तात
कोण कोणाक उकल्ता
कोण सक्ला गळय्ता
कोण गुपित दुकां गळय्ता
उटारे आतां पुणीं
पोयारे तमासो
संसारी सर्कसाचो

# जेम

तिळ्तां तिळ्तां
दिसा मध्यानेच्या हुंब्रार
उदेंक्क नास्च्या सकाळाक
तिळ्तां तिळ्तां
सकाळ कोणे वेला?
चोर्ला फार्ला या
लुटकारांनी लुट्ला
थिंपि गिळ्तां

तिळ्तां तिळ्तां
काल्वें चान्ने
खंय्सर पाल्लां
सुर्यो उदेताना
हें चान्ने
कित्या रावाना
चिंतां चिंतां
चिंत्नांनी लोळ्तां

कोंबो साद्ला
गिर्बुज उब्ल्या
गोट्यांत्लीं गोर्वां सय्त
गुड्यार चड्ल्यांत
गुडांत्ली कोंबी सय्त
पिलांसवें
उस्तुंक पड्ल्या
सकाळ खंय गेल्या

गेला या मेला
पुर्ला वा सर्ला
जिर्ला या खिर्ला
अळेगा कोणे मार्ला
ऐक सकाळ येंव
माग्तां परात्तां
दन्पार उत्रोंक जाला
सकाळ कोणा पाट्ल्यान धांव्ल्या?

रात लांब जाल्या या
सकाळवीण दीस उदेला
सांज येंव्क जाल्या
सकाळ मायाग जाल्या
निदेंत आसा या
सप्णांत केळीं खाता
जिंतां जिंतां
खोळ वोड्न निद्तां



# इंडिया ईस शाय्निंग

कोण पड्ता हांगा कोण रड्ता
आम्चो देस मुकार उड्ता
सेन्सेक्स अंत्रळार
'फील गुड फ्याक्टर'
टि.वि. पळेल्लो भुर्गो सांग्ता
कोन्शार एक्लो भिकारिय गाय्ता
'इंडिया ईस साय्निंग'

हर्षद, कैतन झळझळतात
तेहेल्का, तेल्गी पर्जळतात
अयोध्या गोध्रा उजळता पुण
लुट्कार देशाक राज कर्ताना
नाड्कार लोकांक मुटिंत धर्ताना
वाजपेयि हळू खर्शेन्न सुस्कार्ता
'इंडिया ईस शाय्निंग'

धर्मान केला देसाचो तिर्कुटो
जात कात आतांय जाला भोर्कुटो
सोस्च्या त्राणाचो प्राण उब्ताना
दंगो गलाटो सदांचो जाताना
बंध कर्फ्यू सग्ळयांनी आस्ताना
लोळचीं लोळोंदित मोळचीं मोळुंदित
गांव्चे मात गांव्दित 'इंडिया ईस शाय्निंग'

अशिक्पी ते अशिक्पिच जाव्न उरों
बेकारी तीं बेकारिच मोरों
भुकीं नाग्डीं तशेंच मोरों
शिकाप ऐक दंदो जाताना
गल्लेचो गुंडा फुडारी जाताना
सेन्सेक्स मात उबार उरों
मेल्लीं उटच्यादीं, जियेंव्वीं मोर्च्यादीं
गाव्यां ‘इंडिया ईस शाय्निंग’

# ऐक दीस उदेलो

ऐक दीस उदेलो
माग्णीं वोरेसांवाचो
हातीं कोंत घेवुन मागोंक वेचो
इगर्जेंत दिंबी घालुन म्हण्च्या तेर्साचो
दोळे दांपुन ताळियो पेट्टुन आलेलुया म्हण माग्चो
कोन्शांत ऐक अत्मो भियेलो

ऐक दीस उदेलो
अत्म्याक नितळ कर्चो
हात जोडुन हांव पात्की सत्मान्तां म्हण्चो
भावाड्त्याच्या माग्ण्यांत अर्गां भेटव्ण्यो कर्चो
मास मास्ळी फ्रिज्रांत दव्रुन उपास रावोन माग्णे कर्चो
कोन्शांत ऐक अत्मो घायेलो

ऐक दीस उदेलो
एकामेका शांती दिंव्चो
हात उदारे करुन वग्र दीश्ट घाल्चो
आम्च्या बापा सर्गिंच्या माग्णो कर्चो
साय्तानांक पिडे-शिडेक धांव्डांव्क उलो दिंव्चो
कोन्शांत ऐक अत्मो लजेलो

एक दीस उदेलो
अत्म्यांक पळेव्न अत्मो भियेलो
अत्म्यांच्या पात्कांक पळेव्न अत्मो घामेलो
वाटेर एक्सुरो जाल्लो अत्मो तानेलो भुकेलो लजेलो
ह्या वय्ल्या अत्म्यांक राकोंक पळेतानांच
अन्येक दीस उडेलो... सदांचो!!!

# आतां कोण ना?

तो दीस निमाणे झड्तेचो
ऐक मूट मात्येंत
रोंयिल्ल्याचो प्रतिफळ मेच्वो
मूट मनिस जालो
ताचे कुशिची बोर नारी जाली
संसार जालो - ही ऐक चरित्रा

फुडें भुमिवय्कुंट जातां
रोळणी जाल्यो
सो!रोप आय्ले
रूक किर्लाले
एप्पलां जालीं
काय्न आबेल जाले/गेले - ही ऐक वाडावळ

मागिर आय्का
सोदोम आनी गोमोराची कथा
काळोकांत वाट दाकंव्क
प्रोफेत प्रवादी आय्ले
उदक वाय्न जालें
तेंक्डी आळमें केलें - ही ऐक बद्लावण

उप्रांत अंत्रळाचेर
लोंक्डासुक्णीं उब्लीं
उद्काचेर तग्डा मास्ळ्यो उप्येल्यो
एका मेटार मनिस
चंद्राक उड्लो
देवांक रचिलाग्लो - ही ऐक प्रगती

आतां कितें जालां
भुमिचेर सग्ळें आसा, सग्ळे आसा, सग्ळे आसात
आसात पिलात, बाराब्बास, जुदास
आसात कांटे, खुरिस, जेर्बांद
आसात विक्रिताचे उमे, नाण्यांच्यो पोट्ल्यो
ना तर एकच आनी एक्लोच
तोच तो जेजु - तुवें खंय्सरय पळेलांय?

# काजुलो हांव

काजुलो हांव
काज्वतां
दिसा मधें
सुर्यासवें
हांगा सग्ळो
म्हजोच उज्वाड

आम्च्या गांवार
काळोकच ना
सुर्यो आस्तां
काळोक खंय्चो
दीस बुड्तच
रात येता
कोण सांग्ता
काळोक पड्ता?

काल्वो सुर्यो पळेलाये?
कित्लो झळजळीत
कित्लो पर्जळीत
तर काळोक कसो? खंय्चो?
हांगा उज्वाडच्च
सदांनीत

काळोक आसा म्हण्जे
ते दोळे नातल्ले
तांचे दोळे कोणेंगी खोंकुन काड्ल्यात
दोळे आस्चे ते कुड्डे
तांचे दोळे फुट्ल्यात

आम्च्या गांवांत
सुर्यो आसा
तर रातीं
अमासे रातीं सय्त
काळोक खंय्चो?

केन्ना आम्ची दिश्ट
आम्च्या तळ्हाता पर्यांत मात
तर काळोक खंय्चो?
काजुलोच पुरो
सुर्यो कित्याक

# मास्ळी धर्तेलीं

गांव ऐक
तळीं अनेक
मास्ळ्यो हांगा
मेटांक ऐक
ल्हानांक गिळच्यो
व्हडांक देकोन लिप्च्यो
रंगाळ सग्ळयो
धोव्यो
काळ्यो
हळदुव्यो
निळस्यो
तांब्ड्यो
रंग नातल्ल्यो सय्त
मास्ळयोच मास्ळयो
काळ्यो पळे
रुका साव्ळेंत
खड्पा बिळांत
दिसत नांत
थंय सुर्यो रिगाना
काळ्यो मास्ळ्यो
काळोकांत लिप्तात
धोव्यो बाव्ड्यो
सक्डांक तोप्तात
मास्ळी धर्चे
जाळ घेव्न
गरी घाल्न

खाडुं घाल्न
    मास्ळी धर्चें
कांय उणेंगी
    धर्चें थोडे
विक्चे थोडे
    गिळचे थोडे
पुण
    अप्राद सग्ळो
तांचोच
    कित्याक म्हळ्यार
        तीं मास्ळी धर्तेलीं

# पिसोळीं

हीं पळे पिसोळीं
उज्याचेरच पासायो मार्तात
उजो केंड हांका खंचें लेक?
हीं येम्कोंडा थाव्र उदेल्लीं

अमासेची रात अयिल्लिच
हीं पळे काजुल्यापरीं
कित्याक अशेंय काज्वतात
अमास सदांची थोडी?

हीं अत्मो नातल्लीं
हेरांच्यो बोबो तांकां आय्कतित?
संसाराचेर हांचोच दळबार
हेरांच्या दिसांक कित्याक ग्रासितात

हींय पळे सेवा दितात
सेवेच्या नांवार कोणाकोणाक
पिळतात चिंल्तात लेंव्तात
दोळे दांपुन गिळटात

हीं सुभागी पिसोळीं
अत्मो जीव नाल्लेलिं
संसार सग्ळो चिंवोन आतां
सर्गा वाट सोधुंक लागल्लीं.

# फोलेर

धर्ती हाल्ता, कुपां झड्तात
आंतां भितर्लीं आंता कांप्तात
संसार जाला झुजा थळ
कोणाच्या गोळांत कोणाक खेळ

घडुंक देवाक स दीस
मोडुंक तांका एकच घडी
वारें हुल्पाव्न, मोळबां कोस्ळाव्न
जियेतेल्यांचीं निदाय्तात मोडीं

वारें विकाळ, जिणें दुकाळ
दुकोळ पड्ला मन्शापणाक
जियेंव्चीं सग्ळीं मेल्यांत आतां
मेल्लीं सग्ळीं जियेव्न आसात

आम्च्या बाळांक रग्ताचो घाम
जल्मोंव्चे घड्येक राक्ता मरण
काळजा मनांत शिर्शिरे आकांत
हांगा जिवा अक्लासाचें रुदान

दोळे हांचे खोंकुन काड्ल्यात
विस्वे हांचे कातर्न उडय्ल्यात
जिवे जिवेच पुरुन आतां
फोंडार हांच्या आळमीं खुंट्तात

देवा तुं फोलेर आम्चो
तुजिच्च आतां वळोक दाकय
घड्लेलें मोडोन पड्चे आदीं
मोड्तेल्यांक तुजे मर्शी आपय

# हांव मोराना

हांव मोर्चोना
मारा तुमी
चिरा म्हाका या
फोंड काडुन पुरा
हांव मोर्चोना
केदिंकच
हांव मोराना

करा म्हाका कांटो
या मोडा म्हजो फांटो
फात्राया या
धरुन हुल्पाया
परत उदेन्न येतलों
हांव
पाव्सांत्लो ताय्कुळो जान्न

उज्यांत लासा या
हुन इंग्ळयांत पोसा
हुन उदक घाला या
ताप्प्या तेलांत बुडया
तरय हांव आस्तलों
कोंकणी वोड्तांत्ली
बेंदर वेतासर

# हांव हांव न्हय

ह्या दुड्वाच्या संसारांत
फातोर जाल्ल्या काळ्जांत
पर्की जाल्ल्ये मतिंत
म्हजेथंय हावंच ना जालां
हांव म्हाकाच कसों सोधुं
ही म्हजी कूड तरय
हो म्हजो अत्मो न्हय
हो म्हजो जीव न्हय

हांगा पाव्स उज्याचो
न्हातात रग्तन एकामेकाच्या
रान गांव जाताना गांव रान जाताना
रुका-झाडांपरीं
एकामेका विस्वे सोवुर्तात
जाती कातिचा दोर्या पंदा
मन्शापण पिंर्गता
हो म्हजो गांव न्हय

मनिस मन्शांकच मोन्जात
हांगा लडाय सदांची
ही लूटमार ही अनीत
हो अन्याय बलत्कार
हे धर्माचे वांटे कांटे
हे जातिचे हजार फांटे
हांगा मन्शापण तात्सा न्हय
शिज्ता भाज्ता कर्पाता
हो म्हजो देस न्हय

म्हजो अत्मो कोणेंगी वेला
गिळ्ळा, वोळ्ळा या पोळ्ळा
म्हजो गांव कोणेंगी पाव्ला
देंव्ला, पोंव्ला या धांव्ला
म्हजो दैस कसोगी इर्ला
जिर्ला, फार्ला या खिर्ला
हांव हांव न्हय देकुन
म्हाकाच हांव उंडी करुन
एकाच्च घासान गिळुंक लाग्लां.

# देव

देवा देवा म्हणोन
चाबोन पड्तेल्यां मधें
देव उबो रावोन
विचारिलाग्लो
कोण तुम्चो देव?

# मरण

जिण्ये थळार
भाग्र तिळ्तां
उबो आसागी
तिळुन कोणीं

# सवाल

भास सम्जानातल्ल्यांक
शिकव्येत
भास नातल्ल्यांक
कितें करुं?

# सत

सतान ताणे दिलें
सतान ताणे घेत्लें
सतान ताणे गुळो खेलो
सतान ताणे गळोय काप्लो

# तेंच

तेंच गीत तोच्च ताळो
हेच्च कान हेंच मन
अर्थ मात नवो

तेच्च दोळे तिंच दुकां
होच्च अत्मो हेंच काळिज
दूक मात नवें

तोच्च सुर्यो तोच्च दर्यो
हेंच उदक हेंच वारें
ल्हारां मात नवीं

तिच्च नदर तेच्च फातोर
होच्च जीव होच्च हांव
मन्शां मात नवीं

# दुकोळ

तुवें रचल्ल्या भुंय्त देवा
उज्याचीं मोडां उदेल्यांत
फुल्ल्या फुलां - झाडा मुळाच
सोर्मुण घाला
खर्कट्या वोतांत फुल्वे बोंगे
अब्लेस्पणाचे भ्रमर चिंव्तात
झाडांनी कळे फुल्तानांच येवुन
फांट्या सवें ताका लुंव्तात
मन्शासंख्ब पळे रग्ताक तानेलां
दुकोळ पड्ला संसारभर
जीवे भोकांव्क लाग्ल्यात जीवच
रग्तादुकां देंवय्तल्यांचीं सय्त रगात चिंव्तात
मन्शापणाच्या वेसार पळे
राक्कोस सय्त खाल्तेपणाक न्हेस्ल्यात
हग्या मोस्रान भरल्ल्या शिंगांनी हांच्या
खड्पां गुडे चुरान चूर जाल्यात
तुवें रचल्ल्या भुमिंत ये देवा
हस्त लेगुन चलोन चलोन मोनी जाल्या
मांकोड सय्त चिताळ जाला
शिम्टी म्हजिच्च सोभित म्हणोन गाडांव सय्त
घोडो जाला
कोलो सय्त वाग जाला
जिक्च्या घोड्याक गोम्टी बांदुन
उंदिर सय्त वाग जाला
हांच्ये खरेमस्तेन
दोंगोर सय्त पिटो जाल्यात

घोमोस तांकां कितें लेक
खडपां सय्त पिटो केल्यांत
फातोर तांका खंचें मीत?
नाक्श्यांनी तांच्या रूकच किम्चिताना
झाडां वाली खंचें लेक
रचुंक तुका दीस
पिस्डुंक हांका एकच घडी
देवा हांगा दुकोळ पड्ला
न्हय उद्काचो, न्हय वार्याचो
बगार मन्शापणाचो

# म्हातार्पण

केन्ना जिण्येचो शेवोटच आप्ली दिशा चुकोन चम्कातानां
केन्ना वाटेंत्लीं फुलां सय्त कांटे जाव्न तोपोंक लाग्ताना
केन्ना दुस्मान अप्ल्या घरांतच जियेव्न आस्ताना
कोणाक म्हण हांव बोट जोकुं आप्ल्या नशिबाशिवाय

जेन्ना भीं किर्लोन झाड जावुन, झाड जून जाव्न रूक जाताना
जेन्ना फांट्यार घोंटेर उदेव्न, फुलां फळां उदेंव्क लाग्ताना
जेन्ना पिकी खोली पिश्या वार्याच्या भिंयान कांप्ताना
कित्याक म्हण हांव बोट जोकुं आप्ल्या संख्खिक
आस्कत्कायेशिवाय

हांव ऐक पिकी खोली, म्हजी साळी सय्त म्हजेसवें रावाना
तिं पळे जियेताना, चंद्र, तारां तांच्या पांयांथळा
सेंव्वें वारें लेगून म्हाका मेळोंक नर्गताना
तीं राल्लीं तर वारें वादाळय राल्ता हिच्च वेळघडियेची सवय

फुल झड्ताना फळ उदेता, फांटो मोड्ताना आंक्री उदेता
रच्नाराचें नियम हें फाल्यां संप्चो लेगुन आज जियेता
खोली झड्तेली, सुकोन उब्तेली रिवाज फुडें वेतेली
पिकोन वेच्यादीं, सुकोन झड्च्यादीं
म्हज्या देवा, ऐक बरें चिंतप तांच्ये मतिक पाटय

# ये जेजू तूं ये

तुवें येव्न गेल्ल्या संसाराक
ये जेजू तूं परत ये
संसार सग्ळो कव्वळ्ळास्तां
भेर्यांक बरो करुंक तूं ये

गोट्या थावुन गोल्गोथा पर्यांत
तुवें घेत्लेय मन्शांचे खुरिस
कश्टातेल्यांक आधार दिल्ल्याक
निश्टुर खुरिस खांदीं घेत्लोय

हांगा पळे मेटां मेटांनी
मेज्तात पळे बोटां बोटांनी
विकाळ वारें शेतां भाटांनी
संसार नित्ळांव्क तूं वेगीं ये

येण्याक तुज्या धर्ती उट्ल्या
वेंचिक पुतांनी घर्च्यांक धांव्डाय्लां
मनिस लागल्ले सय्तान आय्ल्यात
वाय्नाखातिर उद्का तळिंच भर्ल्यांत

तवळ बारांत्लो एक्लो शिस
आतां बारांत इक्रा जुदास
तुज्या तत्वांक गुळे घालुन
मनिस जाला पळे राक्कोस

यै जेजू तूं वेगीं ये
तेंप्लां नितळ करुंक ये
फट्कीर्या प्रवादिंक धांव्डांक्
घात्क्यांक पात्क्यांक धुंव्क तूं यै

जुदास पळे उबो जाला
जेर्बांद तुका तयार केला
कांट्यांमुकुट विणुन दवर्ला
परत खुरिस तयार केला

ये जेजू तूं वेगीं ये
काळ्जां मनां जिकोंक तुं ये
मनिस हांगा मन्शांक खाता
मन्शांक मनिस करुंक तूं ये

# आंद्ळे

तो पळे अर्धो नाग्डो भिकार
दोळे नातल्लो आंद्ळो
कुड्डो, केप्पो, लांग्डो
भाग्र बस्ता, उट्ता, लोळ्ता
घेवुन हातीं कट्टी दांडो
आसोन इत्लो नर मनिस
ताचेभंवारीं मात भर्ल्यात
फकत मूस

हे आंद्ळे कर्माचे
हे आंद्ळे धर्माचे
हे पोळ्कुरे भिंव्कुरे
हेरांक नागव्न देवाक दितेले
हे वांटे कर्तेले
हे कांटे भर्तेले
हे आंद्ळे मन्शापणाचे
हे मनिस पल्तोड्चे

हांव पळे भितर आसां
कुड्डो न्हय, केप्पो न्हय
लांग्डो न्हय, भेरोय न्हय
उबो जालों तर पुरो
दुड्वाची रास वोत्ता मनिस
कट्टी दांडो कित्याक
वोल्साक म्हज्या खोवय्ला
ऐक ल्हान खुरिस

# कटपुत्ळी

बोंबीं पळेयां आमी, बोंब्यांसवें नाच पळेयां
गांवात फेस्त परब आतां, खेटिंत आम्च्यांक सोधियां
रंगमंच तयार केला, म्हान सग्र्यांक कदेलां दिल्यांत
अत्रेग अक्लासाची बोब जाल्या, पार्पोळ जणांनी सिळोण घाल्या
नाच आतां सुरु जाला

दिव्यांचो रंग बदल्तां, कानार संगीत आदाळ्तां
वय्ले दाग्यांनी खेळय्तां, बोंबीं मोनीं जावुन
उलय्तात गाय्तात नाच्तात, कोण हासों कोण रडों
पिडा आसों शिडा उदेंव, वय्ले बरें नाचय्तात
बोंब्यानाच चालुच आसों

रंगमंच सज्ला पळे, मिण्मिण्चे दिवे काजुले
संगिता नादान बेंडा वाज्पार, पर्दो वय्र गेल्लोच्च
आय्लीं पळे बोंबीं, तक्ली हात वय्र-सकय्ल
तिशिन-हिशिन हाल्ता-धल्ता, जित्ल्यो ताळियो तित्लो नाच
कोण पिकों कोण थकों, बोंबीं मात नाचों

बोंब्यांक जिर्वण ना, ना तांकां भुक
वस्तुर कित्याक सिंगार कित्याक? तांकां ना लज
वय्ले दागे सडिल जातां, धर्णिर पड्ता उस्वास सोड्ता
बोंब्यानाच चालुच आस्ता, ऐक पड्तच अन्येक येता
कित्याक होच बोंब्यांचो खेळ



# ಕಲಾವೃತ್ತಿ

ವಲ್ಲಿ ಕ್ವಾಡ್ರಸ್, ಅಜೆಕಾರ್




ಆಶಾವಾದಿ ಪ್ರಕಾಶನಾಚೆಂ ಪಾಂಚ್ವೆಂ ಪುಸ್ತಕ್



# कटपुत्ळी

वल्ली क्वाड्रस, अजेकार




आशावादी प्रकाशनाचें पांच्वें पुस्तक